'हय सायबा'
लोकां मेरेन
पावोवपा खातीर
जाणीं कश्ट
घेतले ते म्हजे
बरें मागपी इश्ट
माधव बोरकार,
काशिनाथ नायक,
संजीव वेरेंकार,
संजय शेटये,
विनोद शेटये,
अण्णा सतरकार,
संजय बोरकार,
प्रसाद नायक,
प्रदीप पाटील,
बाळकृष्ण कामत, आनी
विनय कामत
हांच्या उपकारांत हांव
सदांकाळ रावूंक सोदतां.
– उदय म्हांबरो

# हय सायबा

(कवितां झेलो)

विश्व कोंकणी सरदार,
श्री. बस्ती वामन शेणै,
हांका भोवमानान.
uday n. mhambro
13.01.2013

उदय नरसिंह म्हांबरो

स्नेह प्रकाशन

# Hay Saiba

by Uday Narshinha Mhambro

# हय सायबा


उदय नरसिंह म्हांबरो

9420766769/ 8806049969

udaymhambro@gmail.com



पयली उजवाडावणी

25 मार्च 2012

प्रकाशक:

स्नेह प्रकाशन

सावयवेरें फोंडें-गोंय.

मो: 9422643629







मुखचित्र: प्रसाद नायक

छापपी:

इंप्रेशन्स

बी-2 अक्षर आर्केड,

3360/4, गोंधळी गल्ली,

बेळगांव

फोन नं.: 0831-2421232

अक्षर जुळोवणी:

स्वराज्य डीटीपी

9764562133

मोल: रु.100/-




घरांतल्या घरच्यांक, वांगडच्या इश्टांक आनी
म्हज्यासारक्या समस्त आयसुल्ल्या पयसुल्ल्या
सोयऱ्यांक काळजांतल्यान माया करपी
श्री विनोद शेटये आनी श्री. संजय शेटये
ह्या दोगूय भावांक मायेमोगान

**- उदय म्हांबरो**

# मनांतलें...

तशें पळयत जाल्यार म्हज्या पुर्वजांचो संबंद साहित्या कडेन केन्ना आयलो ना. आजो, पणजो, बापूय, सगळेच वेपारी. जल्माक येत सावन तागडे कडेन आनी नाल्लांच्या राशी कडेन संबंद. मागीर म्हजो उतरां कडेन संबंद कसो आयलो तर?

जे पिरायेर म्हजे वांगडची भुरगीं खेळाक आनी पिपिरमिटांक हट्ट करतालीं तेन्ना हांवें काणयेच्या पुस्तकाक हट्ट धरचो. म्हज्या एका मुंबयच्या डांगी नांवाच्या सोयऱ्यागेर चांदोबा हो भुरग्यांचो म्हयनाळो आंक कायम येतालो. ते सगळे आंक तांणी सांबाळून दवरिल्ले. एक फावट दहिसराक मुंबय हांव तागेर देड म्हयनो रावलों आनी ते सगळे आंक वाचून काडले. वाचनाची आवड दिशीं दिशीं वाडतूच आसली. जें जें हाताक मेळटा तें वाचप जातालें. सावयवेरेंच्या मदनंत क्लबाच्या वाचनालयातलीं पुस्तकां वाचून सोंपलीं.

शाळेंतल्यान इश्कोलाक पावलों तेन्ना हांवूय एक लेखक जावपाची सपनां पळोवंक लागिल्लों. म्हज्या घरांत राष्ट्रमत येतालो. सोमार नांवाचो सप्तकी आंक कोंकणींत येतालो. काका खाटीर न्हिदून तो आंक मोट्यान वाचतालो. तीच म्हजी कोंकणी साहित्या कडेन पयली वळख.

ल्हव ल्हव हांव चोपडेर बरोवंक लागलो. पूण काणये बदला कविता येवंक लागल्यो. पूण बरयलें तें सुरवेक सावन कोंकणीतूच बरयलें. तेन्ना कोंकणी दिसाळें नासलें. पुण राष्ट्रमत आयताराक कोंकणी साहित्य छापतालो. राष्ट्रमता कडेन म्हजो मामा मुरलीधर धोंड रावतालो. तागेर हांव आत्र्या पयऱ्यान वतालों. तागेर म्हज्या ह्या बरपाची खूब तोखणाय जाताली. तागेर आसतनाच हांवें एक कविता राष्ट्रमतांत व्हरून दिली. ती छापून आयली. उमेद वाडली. बरोवप आनी राष्ट्रमतान छापप हें त्या वेळार म्हाका कितली उमेद मेळोवन दितालें हें आतां फेसबुका चेर लॉगइन करपा परस निच्छितूच खोसदिणे आसलें.

इश्कोलांत म्हजी वळख संजीव वेरेंकार हाचे कडेन जाली. म्हजे वांगडा ताकाय बरोवपाची गोडी लागली. आमची जोडी जमली. राष्ट्रीय परब, कविसंमेलनां करीत आमी आकाशवाणीचेर पावले. कोंकणी साहित्यिकां कडेन गांठभेट जाली. उल्हास पै रायकार, पुंडलीक नारायण नायक, डॉ. र. वि. पंडित, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, नागेश करमली अशा साबार लेखक आनी कवींचें मार्गदर्शन मेळ्ळें.

म्हजें ह्या इश्कोलांतल्यान सुरू जाल्लें बरप कॉलेज सोंप मेरेन अखंडीत चालू आसलें. ते दीस म्हाका आयजूय याद जातात. कविसंमेलनां, साहित्य संमेलनां, परिसंवाद, उलोवपा सर्ती, कथाकथन सर्ती, कला अकादमी नाट्य सर्ती, एकांकी सर्ती, आकाशवाणी, दूरदर्शन, तीं इनामां, ते वृत्तपत्रीय लिखाण

एका वेगळ्याच विश्वांत हांव वावुरतालों. जमता आनी तांकता तितली कोंकणीची सेवा करतालों. पूण मनीस थारायता एक आनी जाता वेगळेंच. अचकीत म्हजो बाबा गेलो आनी घर आनी धंदो हाचे मुखार म्हजें बरोवप फाटीं पडलें. साहित्यीक कार्यावळी आनी साहित्यिका वांगडा संवकळ उणी जाली. म्हजे वांगडा बरोवपी म्हजो इश्ट संजीव वेरेंकार कोंकणीतलो म्हालगडो कवी जालो. म्हाका ताचो सदांच अभिमान भोगता.

संजीव पत्रकार जालो. आमचे वेवसाय वेगळे जाले. मेळप सारके जायना जालें. पूण संजीवागेर स्नेहा जल्माक आयलें आनी आमी दोगूय परतून एका मायेच्या धाग्यान लागीं आयले. साहित्या कडेन हांवें फाट केली, पूण एका वेळार एकूच काम करप पूण तें सारकें करप ह्या नात्यान हांवें म्हज्या वेवसायांत सातत्य दवरलें आनी थंय बरें येस मेळ्ळें. पूण म्हाका समाधान मेळटा तें लेखनांत. आनी हाची जाणविकाय म्हाका करून दिली ती ह्याच म्हज्या इश्टांनी, संजीव, ताची धूव स्नेहा हांचे वांगडा पत्रकार प्रकाश कामत आनी व्यासंगी विद्वान मुकेश थळी हांचीं नांवां घेना जायत तर म्हका पडमूर म्हणपाचो.

म्हज्या बाबान जेन्ना वळवय नाल्लांचो वेवसाय सुरू केलो तो पुराय शुन्यांतल्यान निर्माण केलो. खर कश्ट, प्रामाणीकपण आनी उजू वागणुकेच्या म्हज्या बाबाक म्हज्या मायेस्त आईन तितलीच साथ दिली. तांणी दोगांयनी म्हाका केन्ना फाटीं ओडलो ना. म्हजो नाना काका भुरगे पिरायेर मुंबय वचून भट्टेर काम करून निमणो एक दीस स्वताची बेकरी मुंबय घालूंक पावलो. ताची ठाकूरद्वार, गिरगांवची बेकरी ही त्या काळार मुंबयच्या गोंयकारा खातीर एक तिठो जावन आसलो, नानीचो ताका तितलोच आदार जातालो. म्हजी तोखणाय करतना तर तांकां केन्ना उतरां उणीं पडलीं नात. आयज हें पुस्तक उजवाडा येतना म्हाका प्रकर्शान तांची याद येता.

बाबा गेलो तेन्ना हांव वेव्हारांत नासलों. पूण बाबा वांगडा वेवसाय करपी म्हज्या श्रीकांत काकान पिरायेचे बांद तोडून म्हाका आपले वांगडचो लेखलो, आनी वेवसाय म्हज्या खांदार सोंपयलो तर शीला काकीन आवयची माया दिली.

वेवसायाची गाडी चलयतना म्हजो भाव राजू गाडयेचें रोद जावन म्हज्या आदाराक धांवलो आनी ताची कश्टाळू बायल विद्यान ताच्या उल्याक उलो दिलो. म्हजो दुसरो भाव सिद्धेश आनी भावज भारतीन म्हज्या वैचारीक बैठकीक नैतिक अधिश्ठान मेळोवन दिलें. म्हज्यो दोगूय भयणी नीता आनी नम्रताच्या आंगातली चपळाय आनी नमळाय हाका लागून म्हज्या पुराय घराब्याक सोबा आयल्या. आमची कुकुलीं भुरगीं सई, वेद आनी उर्वीन उपाट खोशी दिल्या आनी म्हजी जल्माची सांगाती मीनान तर केन्ना कसलो सुवार्थ सादूंक ना.ह्या म्हज्या घरच्या मनशांक लागून हांव हांचे बगर म्हजे घर, म्हजो वेवसाय तर नाच पूण म्हजी

कविताय फुलूंक शकना. देखून आयज ह्या पुस्तका निमतान फकत म्हज्या घरच्यांकूच न्हय तर जांच्या आंगाखांदार हांव खेळ्ळां ते म्हजे सोयरे धायरे, म्हज्या सूख दुख्खांत वांटेकार जावपी म्हजे इश्टमित्र, म्हज्या वेवसायांत म्हाका दीसपट्टो आदार करपी म्हजे नाल्ल सोलपी कामदार, भाटकार, गिरायकां, सगळ्यांक म्हजें काळजा कुरकुटांतल्यान नमन!

**- उदय म्हांबरो.**

# म्हाका भाविल्लो उदय आनी तांची कविता

'हय सायबा'... काव्य संग्रहाचेर चार उतरां बरावचे आदीं, थोडेशें फाटीं वळून पळोवप भोव गरजेचें दिसता.

गजाल 1977-78 ली 'कोंकणी बरोवशी रेंब्यातलो बेबो जावन मरतलो, मराठीच्या महासागरांत उडी मार, अथांग सागर तो. थंय पेंव' अशें मराठी धार्जिणे एके शिक्षिकेन उदय म्हांबऱ्याक आनी संजीव वेरेंकार हांकां स्टाफ रुमांत आपोवन हाडून उपदेश केलो. तेन्ना ते दोगूय सावयवेरेंच्या उत्कर्ष विद्यालयांत धावेक. शिक्षिकेन केल्ल्या उपदेशाक तितलेंच पोटतिडकीन उपहासान म्हांबऱ्यान जाप दिली ती अशी 'मराठीच्या अथांग महासागरांत उडी मारल्यार आमकां पलतड केन्नाच मेळची ना. म्हज्या सारक्या ल्हान मनशाक कोंकणीचें तळेंच पुरो, आमी तडीक लागतले'. आयज हो उपदेश करपीच कोंकणीची मक्तेदारी भुजार घेवन नाचिल्लेवरी करता. उदयाचे मतान हेंच खरें कोंकणीचें जैत.

कोंकणीवेली निश्ठा आनी तांचो आकांताचो स्वाभिमान हे जापेंतल्यान व्यक्त जालो. आयजूय ते तितलेंच पोटतिडकीन कोंकणीच्या मळार वावुरतना दिश्टी पडटा. सदांच कोंकणी खातीर झुजपी ह्या स्वाभिमानी पुताची ताच्या कर्तृत्वाची आनी ताच्यातल्या मनीसपणाची वळख जावची देखून 'हय सायबा' पुस्तकाच्या निमतान हीं चार उतरां.

सावयवेरें वळवय वाठार हो तसो सर्वांगसुंदर असो वाठार सुटके झुजाऱ्यांचो, म्हान कलाकारांचो, साहित्यकांचो असो हो वाठार. ह्याच वळवय वाठारांत उदयाचो जल्म, भुरगेंपणा सावन ताका कोंकणीची आवड, 1970-74 च्या काळांत दैनिक राष्ट्रमताचो सोमारचो आंक कोंकणींत येतालो. ताचो काका नेमान तो आंक घरा हाडटालो, आनी सगळ्यांक आयकूंक येता असो वाचतालो. आयकूनच घोस्त काडप जातालें.

शाळेंत शिकतना ल्हान ल्हान काणयांची पुस्तकां वाचपाची आवड आशिल्ल्यान आपणेंय अशीं ल्हान ल्हान पुस्तकां बरोवची अशें तांकां दिसतालें, आनी हेच तंद्रेंतल्यान पयलें वयलें बरयलें. तें कोंकणीतल्यान. कारण स्वाभाविक आसलें. तसो ताका कोंकणी कडेन कोणें ओडून हाडूंक ना, वा कोणे तरी कोंकणींतल्यान बरय अशेंय सांगूंक ना. ताच्या रगतांतच कोंकणी आशिल्ल्यान हेर खंयचे दुसरे भाशेन व्यक्त करपाचो प्रस्नूच नासलो. आनी एक दीस ताची कविता राष्ट्रमत अंकाचेर छापून आयली. ताची उमेद वाडली, घरांत तशी साहित्यिक परंपरा नासली. काका हाडटालो ती सोमारची कोंकणी आवृत्ती ताका खूब मार्गदर्शक थारली. हातूंत इल्लोय दुबाव नासलो.

उत्कर्ष विद्यालयात शिकतासतना विद्यालयाचे हेडमास्तर श्री. रामराव

कुंकळ्ळकार हांणी ताका सुरवातेच्या काळार बरोवपाक प्रोत्साहन दिलें. हायस्कूलांत जावपी दर एके कार्यावळीक ताचे हेडमास्तर ताका मुद्दाम कविता सादर करपाक सांगताले. नामनेचे कोंकणी कवी संजीव वेरेंकार हो तांचो वर्गमित्र. दोगूय समविचारी आशिल्ल्यान, कोंकणी संदर्भांत एकठांय कार्य करताले. 1977 वर्सा आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर ह्या दोगाय नवोदितांक कविता सादर करपाचे आमंत्रण आयलें. मानधन 30 रुपया. आकाशवाणीचो तो इंग्लिशीतलो कंत्राट पळोवन हांकां दिसलें कविता सादर करपाक 30 रुपया फी दिवची पडटली. तेदेवेळार 30 रुपया म्हणचे मोटें दिव्य कशें. तांणी तो कंत्राट व्हरून उल्हास पै रायकार हांकां दाखयलो, आनी तांचो गैरसमज पयस केलो. '30 रुपया तुमी भरपाचे नासून उलट आकाशवाणी पणजी केंद्र तुमकां कविता सादर केल्ले खातीर मानधन म्हूण 30 रुपया दितली'. हें आयकून तांकां खूब उमेद जाली. त्या काळार रेडिओ हें प्रभावी अशें प्रसार माध्यम. आतांचे भाशेन टीव्ही, केबल, चॅनल्स, इंटरनेट नासले, रेडिओच हें प्रमुख म्हायती आनी मनरिजवणचें मोटें सादन आसलें. फोडणीफोव, व्हनीबायली वासरी, कांदळा ओवळां, रेडिओ शेतकरी मंडळ, चावडेर अश्यो जायत्यो कार्यावळी लोक आवर्जून आयकताले. त्या काळार रेडिओक एक प्रतिश्ठा आसली. आयज जे साहित्यीक, कलाकार म्हूण नांवरुपाक आयल्यात ताचे अर्ध्याअदीक स्रय आकाशवाणी केंद्राक दिवचेंच पडटलें.

त्याच काळांत कोंकणी साहित्याच्या मळार नवी क्रांती घडटाली. आनी हेच क्रांतींतल्यान बांगर बैला सारको धेंक गाजयत पुंडलीक नारायण नायक हो साहित्यीक अवतरलो. आनी तांणी कोंकणी साहित्याच्या मळार आपलो शेक गाजयलो. त्या वेळार पुंडलीक नायक हो तरणाट्यांचो आयकोन कसो. उदय आनी संजीवूय हाका आडवाद नासले. पुंडलीक नायकान आपणाले प्रतिभासंपन्न अशे लेखन शैलीन सगळ्यांकच प्रभावीत करून सोडिल्ले. पुंडलीक नारायण नायकाचे घर सावय. पुंडलीक नायक तेन्ना विजय सुपर हे स्कुटरीन प्रवास करतालो. तिळसांचो केन्नाय पासयेक वतना पुंडलीक नायक दिश्टी पडल्यारूच हांकां आनंद जावचो. केन्ना काय तांची वळख पुंडलीका कडेन जातली. उमळशीक बाळगून ते आसताले. आनी एक दीस काणकोणां 'कोंकणी दीस' कार्यावळीक उदयबाब भेंब्रे, नागेश करमली आनी पुंडलीक नायक हे मानेस्त म्हूण हाजीर रावपाचे आसले. थंय ह्या दोगांची गांठभेट पुंडलीका कडेन घाली ती उल्हास पै रायकार हांणी. एकाच गांवांत रावपी पूण गांठभेट काणकोणां. सावयवेरेंचे आनीक एक जेश्ठ साहित्यीक रत्न म्हणल्यार लक्ष्मणराव सरदेसाय. उदय तांकां 'काका' म्हणटाले, तो जें कितें बरयता तें तो व्हरून तांकां दाखयतालो. संजीव वेरेंकारानूच ताका व्हरून तांगेर सोडिल्लो. लक्ष्मणराव सरदेसाय केन्ना एका जाग्यार मेळ नासले. ते केन्ना मडगांवां धुवेगेर, तर केन्ना वेलगां, केन्ना सावय शिला. लक्ष्मणराव सरदेसाय म्हळ्यार

कुळागारांतलो कणको माड कसो.

1978 त पणजेच्या धेंपो महाविद्यालयांत शिकतासतना सप्तकी कार्यावळी कोंकणींतल्यान करपाक उदयानच फुडाकार घेतलो. कोंकणी भाशा मंडळाचे कार्यालय तेन्ना पणजे टी बी कुन्हा सभाघरांत आसलें. चडसो वेळ त्या कार्यालयांत कोंकणीच्या वावराक वापरप.

1979 हें संवसारीक बाल वर्स म्हूण जाहीर जाल्लें, त्या वेळार बालविकासाच्यो जायत्यो कार्यावळी कोंकणींतल्यान घडोवन हाडपाक तांणी भरीव अशें योगदान दिल्लें आसा. सावयवेरें, वळवय, बेतकी, माशेल अशा वाठारांत ताचो समकालीन इश्ट परिवार म्हळ्यार संजीव वेरेंकार, बभ्रूवान नायक, ज्ञानेश्वर तारी, सदानंद बेतोडकार, विवेक वेरेंकार, महेश नायक, प्रकाश द नायक, प्रकाश शेटये, सज्जन तारी, रोहिदास तारी, अवधूत कामत, सुरेंद्र वळवयकार, शशिकांत अणवेकार, बाबुराव नायक, अशोक शिलकार, दिलीप शिलकार, उमाकांत शेटये ह्या सगळ्यां तरणाट्यांनी त्या वेळार कोंकणी चळवळी खातीर भरपूर योगदान दिल्लें, आनी हाका इतिहास साक्षी आसा. कोंकणी चळवळ, साहित्यिक वावर, कोंकणी कार्यावळी चालू आसल्योच तातूंतच एक दीस ते पुंडलीक नायकाच्या घराची सोपणां चडलो.

पुंडलीक नायकान ताका व्हडा उमेदीन येवकार दिलो. पुंडलीकाचें घर म्हणचे पुस्तकांचो मांड कसो. घे म्हूण पुस्तकाच्यो आलमारी, एक व्हड साहित्यिक दालनूच कशें. पुंडलीक नायकान ताची खबर घेतली आनी पुस्तकांनी भरिल्ली एक आलमार उगडून सांगलें, साहित्याचें दालन तुजे खातीर उक्तें आसा, जाय तितलीं पुस्तकां आसा. जाय तितली वाच, उपरांत तांणी दर दिसा वळवय सावन सायकलीन सावय येवप, पुस्तक व्हरप, वाचप आनी वाचिल्लें हाडून दवरप. आनी नवें वाचपाक व्हरप हो नित्यक्रम सुरू जालो. 1979 त पुंडलीक नायकाच्या फुडारपणाखाला पयलो वासंतीक मेळ सावयच्या लक्ष्मीनारायण देवळांत घडोवन हाडलो. परिसरांतले सगळे नवोदीत तरणाटे साहित्याच्या मळार एकठांय येवपाक लागले. ह्याच वेळार तांणी 'उदेती सकाळ' ही संस्थाय घडयली. हे संस्थेवरवीं कार्यावळीय केल्यो. ह्याच काळांत उदय आकाशवाणी खातीर वेगवेगळ्यो कार्यावळी सादर करताले. तांणी मुखेलपणान युववाणीचें निवेदन तशेंच मुलाखतींचेर आदारीत रुपकां तयार करून वितरायताले. आग्वाद तुरूंगातल्या कैद्यांचेर उजवाड घालपी 'तमसोमा ज्योतिर्गमय' हें रुपक खूब गाजलें. तशेंच आपरोजगार करपी तरणाट्यांचेर आदारीत 'श्रम येव् जयते' ह्या तांच्या रुपकाक 1983 वर्साचो अ.भा. आकाशवाणी पुरस्कारूय लाभलो. बरयिल्ल्या साहित्यकृतीचेर साहित्यमंथना जावपाक लागली. आनी हातूंतल्यानच ताच्या साहित्य प्रवासाक सुरवात जाली.

उच्च माध्यमिक, महाविद्यालयीन शिक्षण घेतासतना जंय जंय कोंकणी

प्रोमोट करपाची संद मेळटा थंय थंय कोंकणींतल्यान कार्यावळी सुरू केल्यो. ते खातीर केन्ना केन्ना प्राचार्या कडेन वादूय घालपाक फाटीं सरूंक ना. वक्तृत्व सर्त, कविता सर्त, आयोजीत केल्या. कोंकणी विशय सुरू करचो म्हूण सयांची मोहिम राबोवंक उदय म्हांबरो मुखार आयले. 1984 वर्सा वाणिज्य पदवी संपादन केली. 1985-87 कोंकणी चळवळीचो संघर्श पर्व, ह्याच काळांत तांचो बापूय दुयेंत पडलो आनी तातूंतच ते संवसाराक अंतरले. कुटुंबाची सगळी जबाबदारी ताचेर पडली. प्रत्यक्ष चळवळींत त्या आंदोलनांत ताका सहभागी जावंक मेळ्ळें नात देखून आयजूय ताका ते गजालीची खंत भोगता. अशें आसतनाय आपले परीन तांणी त्या वेळारूय योगदान दिलां. त्या वेळारूय आनी आयजूय ते तितलेच सक्रिय आसा. सावयवेरें वळवय वाठारांत जाल्ल्या णवव्या गोवा युवा महोत्सवाचे एक जबाबदार आयोजक म्हूण तांणी चडसो भार आपल्या खांदार घेतिल्लो आमी पळयला. 1985-86 च्या काळांत तांणी जायत्यो प्रांसगीक कविता बरयल्यात. तातूंत उखलाप्यांक, हय सायबा, पावणी, भूंय म्हणटा ह्यो कविता कोंकणी भाशेच्या विरोधकाक शिटकावणी वजा समजावणी दिवपाच्या हेतान तशेंच जागृताय हाडपाच्या हेतान बरयिल्ल्यो कविता देख घेवपा सारक्यो अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

आवय भाशे कडेन वायट नदरेन पळोवप्यांचो तांकां राग येता. तांच्या मस्तकाक तिडक मारता. आनी तातूंतल्यान तांची कविता जल्माक येता. चडसो वेळ झगड्याक आनी वादविवादाक खर्च जातालो. सातत्यान बरोवप जायनासलें. लेखना कडेन दुर्लक्ष करून कोंकणी चळवळींत स्वताक झोकून दिवप्यां मदले उदय एक. आयजूय ते तितलेच पोटतिडकीन वावुरतना आमकां दिसतात.

'हय सायबा' ह्या तांच्या कविता संग्रहाच्या निमतान एक नदर तांच्या काव्य प्रतिभेचेर तांच्या कविताचे विश्लेशण करतना तांच्या 'हय सायबा' हे कवितेंतल्यानच सुरवात करतां. 'हय सायबा' सुंदर रितीन समाजपुरसाक वा 'भू' मातेक घाल्लें गाराणें म्हणल्यार लोकसाहित्याचो एक उत्कृश्ट नमुनो. आनी त्याच फर्मान बरयिल्ली ही कविता म्हणल्यार कोंकणी मनशाचे जिणेचें पडबिंब तातूंत वृत्ती प्रवृत्ती सयत झळकले बगर रावना. हे कवितेत एक आवेश जोश आनी बोंबलेच्या देठांतल्यान केल्ली होरावणी आसा. एक गाराणे आसा. 'हय सायबा' ही निखटी ओ क ओ दिल्ली साद न्हय. वा गणसाबैलावरी हालयिल्ली मानूय न्हय. ताचे फाटली मानसिकता, मनोवृत्ती म्हत्वाची, कोंकणी मनीस हो सदांच द्रश्टो, पर्जळीत फुडार पळोवपी अस्मिताय सांबाळपी आनी स्वाभिमानान जगपी, ह्यो कविता कोंकणी चळवळी संबंदान गोंयचें अस्मिताय सांबाळपा संबंदान आसा. कोंकणी मनशां मदीं विकास सादपाची तांक आसा कोंकणी भास समृद्ध करून तिका मानाचो पाट मेळोवन दिवन कोंकणी राज करपाचो हावेस बाळगुपी कोंकणी मनीस हें सपन साकार करपाक पोटतिडकीन वावुरताले तेन्ना कांय परधार्जिणे ह्या लोकांच्यो

भंगल्यो मारताले, हिणयताले, पिशांत काडटाले, पूण काळान कोंकणी मनशाक जैत जोडून दिलें तेन्ना हेच लोक स्वार्था खातीर हय सायबा म्हणपाक लागले. कांय लोकांची अशी वृत्ती आसता की ते स्वता काय करचेनात वेल्यान काम करतल्याकय कामात आडखळ हाडटा. तांच्यो भंगल्यो मारता, पूण जेन्ना एखादें काम पुराय जाता तडीक पावता तेन्ना भगल्यो मारपीच लोक फायदो घेवपाक मुखार आसता. मनशाचे वृत्ती प्रवृत्तीचें वास्तव दर्शन हें कवितेत घडटा. जेन्ना मनीस मनशाक आयकना तेन्ना देवाचोच आदार घेवचो पडटा देखून हें गाराणें. जेन्ना जेन्ना कोंकणी मनशाच्या अस्तित्वाक धोको निर्माण जाल्लो तेन्ना तेन्ना कोंकणी मनीस, हे भुंयेचो भूंयपूत पोडतिडकीन वावुरला हाका इतिहास गवाय आसा. काळाचे कसवटेर उतरपी ही कविता एक उत्कृश्ट कविता म्हूण आमी पळोवं येता. सर्वसाधारणपणान अशे तरेचीं गाराणी आमी देवळा कणकणी आनी उत्सवा कणकणी आयकता वा पळयता. हें सामुहीक, भौशीक गाराणें समाजाच्या हिता खातीर देवाक केल्लें हें सांगणें.

कवितेन एक लय घेतल्या. लोक कलाप्रकाराचो ठेको घेवन ही कविता आयल्या एका वेगळ्या फर्मान ही कविता कवीन बरयल्या.

'भौमानान' ही आदर्श व्यक्तीमत्वाची कविता उंतुग कर्तृत्वाक ओपल्या आयज लोक शेड्डो जसो आपलो रंग बदलता, ते प्रमाण कांय फुडारी तत्वां नितीमुल्यां भाजून खाता, कांय लोक कायलोळ्यो करतात. दाखय लिपय करून बेगडी जगतात, असले वृत्तीचे लोक काळाचे कसवटेर कोसळटात म्हणपाचें वास्तव चित्रण दाखोवपाक कवी मातूय फाटीं सरना. सगळेंच न्हय आं अवघे हाताच्या बोटार मेजपा इतले फुडारी विस्वार्थी, तत्वां घेवन जगपी आसता आनी जे काळाचे कसवटेचेर कायम तिगून आसा अशांक कवी आपले आदर्श मानता आनी हेवूय बरयता की तांचे सारके तांकां जगूंक येना म्हणपाची प्रामाणिकपणान खंतूय उक्तायता. कवीचें मन निर्मळ तातूंत खंयच दाखय लिपयपणा ना वा अतिताय ना. जें आसा तें आसा.

कवी कडेन एक जबरदस्त अशी निरीक्षण शक्त आसा. ताचे दर्शन तांच्या जायत्या कवितांनी घडटा. देखीक 'तोची काणी' हे कवितेत केल्ले शब्दरुपी चित्रण गोंयच्या चिक्कार भरून वचपी वरांराचे बसीचें वास्तव चित्रण हुबेहूब केल्ले वाचपाक मेळटा. आनी ही अनुभुती सगळ्यांची जाता. तो म्हणटा 'तोची काणी'

*वरां जावन गेल्यां*
*बस अजून सुटूंक ना*
*ट्रेफीक पुलीस सदचे संवयेन तापता*
*चोपडेर निशाण करता*
*कंडक्टराचें पेन दितना*

*हेवटेतली मूठ तेवटेन वता*
*कोणाची नदर ना*
*आसल्यारूय नदरेंत व्हडलें अजाप ना*
*साडे स चो वरार*
*घडयाळ म्हण्टा स चाळीस*
*ड्रायव्हर वगीच एक्सलेटर चिड्डीत*
*कंडक्टर फाटल्यान वचून म्हण्टा*
*फुडें वचात*
*फुडल्यान येवन म्हण्टा*
*फाटी वचात.*

30 वर्सां फाटीं बरयिल्ली. आयजूय तशाक तशी आसा. हे परिस्थितींत कसलोच बदल जाल्लो ना, वृत्ती प्रवृत्ती तीच आसा. 'वळख' हे तांचे कवितेत स्वता भितरलो व्हड आत्मविस्वास उक्तायला आनी तो खरो करून दाखोवपाचें धाडसूय दाखयलां देखून तो म्हणटा

आमच्या काळजात उज्या केण
केन्ना तरी पेट्टलें
उज्या केणा धगानूच तें
धगधगून सोंपतलें

कोंकणी लोकशक्तीची तांक दाखोवपी हो दिश्टावो तांणी हे कवितेंतल्यान मांडला.

तांच्या सुरवेच्या कवितांनी मोगाचेर भाश्य करपी वा मोगाच्यो भावना उक्तावपी, कविता तांणी बरयल्या. पूण आपलो तोल खंयच वचूंक दिवंक ना. 'टीचर' इश्कोलांतले टिचरीचेर कविता बरयतना उतरां मुदयेर थीक कशी वापरून टिचरीचे सुंदरतायेचे वर्णन केल्लें वाचूंक मेळटा, सौंदर्य दिश्टी पडटा.

म्हाका गो तूं अशें जाय. हे कवितेंत आपली मोगिका कशी आसची, सोबीत सुंदर, रुपेस्त, सर्वगुण संपन्न अशें सगळ्यांचीच भावना आसता. ती तर तांणी कवितेंतल्यान उक्तायल्यांच. तो म्हण्टा-

*पकदस्त गळो जाय*
*कोगळाचोच आवाज जाय*
*कोगळाच्या आवाजान तुज्या*
*म्हज्या काळजा ठेको जाय*

विडंबन करतना तो म्हणटां-

*गळो आसूं लथय पथय*
*आवाजूय आसूं भसाडो*
*भसाड्या त्या आवाजांत मात*
*कुळाराच्या पोटल्यार धेक जाय*

मानवी मुल्यां घेवन जगपी एक संवेदनशील कवी म्हूण उदय म्हांबरे कडेन आमच्यांनी पळोवं येता. कसलीच आस धरीनासतना प्रामाणिकपणान कोंकणी मळार वावुरपी एक निश्ठावंत कार्यकर्तो. कोंकणीच्या मळार वावुरपी तरणाट्यांक प्रोत्साहन दिवपी, एक उजूपणान वेवसाय चलोवपी उद्देजक. हातांत घेतिल्लें एखादें काम परिपूर्ण केले बगर दुसऱ्या कामाक हात घालप ना. हे तांचे संवयेक लागून साहित्या कडले सातत्य ताका राखूंक जमलें ना. ना जाल्यार येन्ना तर ताच्या नांवार चार पांच पुस्तकां आसपाची. तांणी बापायचो नाल्लांचो धंदो मुखार चलयतना ह्या धंद्याकय एक प्रतिश्ठा मेळोवन दिल्या. ते आपणाल्या धंद्याचो सगळो हिशेब खरेदी, विक्री ताळेबंद कोंकणींतल्यान बरयता. वेवसायाची जायरात कोंकणीतल्यान छापता.

फकत ते दुसऱ्याकच सांगना तर स्वता अंमलबजावणी करून दाखयता.

उदय म्हांबरो एक थंड, शांत सभावाचे आनी सगळ्यांक बराबर घेवन वचपाची तांक आशिल्ले व्यक्तिमत्व. अडचल्ल्यांक मजतीचो हात दिवपी, दुसऱ्यांचें खोशयेंत वांटेकार जावपी, कसलीच अपेक्षा न बाळगुपी तांचेच भाशेंतल्यान सांगतलो जाल्यार

*इश्टागतीक लागना पिराय*
*ना जाती धर्माची वंय*
*आसची काळजाची खोलाय*
*कसली आस आसची न्हय*

'जेवणा खातीर नाल्ल जाय, जळवा खातीर सोण्णा जाय? आमकां मेळात वा बरयात.' हें तांच्या वेवसायाच्या जायरातीची सगळ्यांनीच तोखणाय केल्या.

**- काशिनाथ नायक**
वळवय-गोंय.

# मांडावळ

## हय सायबा

आरे चडटवेल्या देंवचारा
हय सायबा...
आरे म्हज्या पेडावेल्या मुंज्या
हय सायबा...
देवा सड्या वेल्या बेताळा
हय सायबा...
म्हज्या थामणे कडल्या म्हाळयेपुरसा
हय सायबा...
आयज देवा आमी तुका शरण आयल्या
हय सायबा...
आयज तुजो आमकां आशिर्वाद जाय
हय सायबा...
आयज देवा आमकां कौल दी
कल्याण कर आनी बरें कर
हर... हर... हर... हर... हर...

आमी कितलीशींच वर्सां देवाक
होराय होराय होरायताले
ते तितलीच वर्सां देवाक
हिणय हिणय हिणयताले

आमी लायताले प्रसाद पाकळ्यो
ते करताले आमच्यो भगलो
अशीं तपाचीं तपां गेलीं
आमची आमकांच लज दिसूंक लागली
वर्सासकी पोरूं
प्रसाद लागले
पाकळ्यो झडल्यो
गाराणें घालें

आरे चडटेवेल्या देंवचारा
हय सायबा...
आरे म्हज्या पेडावेल्या मुंज्या
हय सायबा...
देवा सड्या वेल्या बेताळा
हय सायबा...
म्हज्या थामणे कडल्या म्हाळयेपुरसा
हय सायबा...
आयज देवा आमी तुका शरण आयल्या
हय सायबा...
आयज तुजो आमकां आशिर्वाद जाय
हय सायबा...
आयज देवा आमकां कौल दी
कल्याण कर आनी बरें कर
हर... हर... हर... हर... हर...

हुं...
हक... हक... हक... हक... हक...
आरे, हांव समर्थ आसा
झगडीं झुजां काडून उडय
एकचाराची बांदात रे वंय

देव देवपणाक जागलो
कुडीन देव उबो जालो
कुडीन भार अवसरलो
अवसरान कूड भारेली
कुडीन अवसर भारेलो
देव देवपणाक जागलो

दोन वर्सां
जालीं आतां
देवाक आमी
पयलीवरीच होरायतात
मजा म्हळ्यार
हिणयणारेय होरायतात
पसय पसरतात
बोम्बलेच्या देंठांतसून
हय सायबा म्हणटात.

## 'तो' ची काणी

वर्सांतल्या तिनशे पासश्ट दिसांतलो एक दीस
सांजेची स वरां, तीस मिनटां आनी बारा सेकंद
प्रासा वयल्या अनवळखी बशीच्या भित्र्यांतली
एक वळखीची बस
साडे स चो वरार
तिगांच्या सिटार, हांव जनेला कडेन
'हो' म्हजे कुशीक मर्दी
निमाणो आनीक एक कोण सो...
ह्या आनीक एक कोनशाक तेंकून 'तो' उबो
वरा जावन गेल्यां
बस अजून सुटूंक ना
'ट्रेफिक पुलीस' सदचे संवयेन तापता
चोपडेर निशाण करता
कंडक्टराचें पेन दितना
हेवटेतली मूठ तेवटेन वता
कोणाची नदर ना
आसल्यारूय नदरेंत व्हडलें अजाप ना
साडे स चो वरार
घडयाळ म्हणटा 'स चाळीस'
ड्रायव्हर ओगीच एक्सलेटर चिड्डीता
कंडक्टर फाटल्यान वचून म्हणटा,
'फुडें वचात'
फुडल्यान येवन म्हण्टा,
'फाटीं सरात'
'तो' काकुळटेक येता
'ए' चवगजाण बसतात मरे हांगा, मात्सो सो
तोंडार भिकमागरे भाव
हांव ओगीच हालता

मदलो 'हो' निबर
'पयशे फारीक केल्या आमी'
'तो' सामकोच फाफरांव
'हांव कितें फुकट आयला?'
'कंडक्टराक सांग तुजे शेमाँव'
शेमाँव, मागीर आं... च्या
भंय... च्या... च्या... च्या...
सगळे भायर काडटात
दोगूय एकामेकांचे
कांय वेळान सगळे थंड
वाटेर 'हो' देंवता
थंय 'तो' बसता
सीट तोच
एक जाण्टेली बाबा पुता करता 'तो' कडेक
हांव परतून हालता
पूण 'तो' मुमखो
'बाबा, म्हाका म्हातारे बसोनी'
'कंबर मोडल्या?'
'जावं रे बाबा'
'जावं कितें जावं? पयशे फारीक केल्या पयशे'
जाण्टेलेक उलोवंक त्राण ना
मनांत घाल्या आसतले शिराप
सीट तोच
उतरांय तीच
मनीस वेगळो
हो खुर्चेचो परिणाम न्हय मू?
ना तर एदो फाक्त तशा तसो सांगपी
हांव कसो उठलो ना?
कारण 'तो' ची काणी सांगपी
हांवूय 'तो' च.

## भौमानान

भौमानान जिणेंतले आदर्श तुमी
तरी
तुमचे वरी जगप म्हाका शक्य ना
पूण तुमची जीण
म्हजो आदर्श
म्हजे घराचे देवा कुडींत
देवाची तसबीर आसत घडये
पूण म्हज्या काळजाचे गर्भकुडीत मात
तुमचेंच चित्र कोरांतलां

तत्वाच्यो आनी नितिच्यो गजाली
च्या वांगडा बिस्कुत्यो खावच्यो
तशे जायते करतात
प्रसंगा वेळार मात भोकान शेंपडी घालतात

म्हजे सरभोंवतणी हांवें
जायते नीतिवान आनी तत्वगिन्यानी पळयले
आनी काळाचे कसोटेचेर
कोसळटनाय पळयले

देखून नीतिचो कास आनी तत्वाची आस धरपी
तुमीच म्हाका भावले
ही कविता
तुमची कुड्डी तुस्त करपा पासत न्हय
तुमचेवरी म्हाका घडप जमना
हें शल्य उक्तावपाक
तुमचे नीतिवान साधनेक कोणा
कपलफुटक्याची द्रष्ट लागची न्हय
इतलेंच मागपाक.

# काळखाक करून फाट

काळखाक उबंत
सोडून चल
जाल्लें गेल्लें
विसरून चल

काळखाक खांकेन
मारून चल
उजवाडाक वाट
मेकळी कर

काळख्यो यादी
काडशी तर
पावलान पावल
घुस्पतलें
घुस्पून सकयल
आंदळटलें
तुजेतूच
न्हीन्नळटलें
भितरले भितर
घुस्मट्टलें

तेपरस
आयक म्हजें
गुपाट काळोख
मस्तून चल
उपाट उमेद
सांडून चल

# टीचर

टीचर म्हजी
तरणी कवळी
पिपरी कशी
कवकवीत

टीचर रुपान
सावुलगोरी
तुकतुकीत पोल्याक तिच्या
मदीच एक गोड खळी

टीचर, तुजे हात
म्हणल्यार विलोदार्चे पान
पोल्याक म्हज्या चिमटायतना
शिरशिरता आंग

तुज्या सांगातान
वर्ग न्हाता परमळाचें न्हाण
म्हज्यांतल्यान वतना
चडटा हून श्वास भांग

म्हज्या मना सपना भिर्रे
तूं टीचर शिकयतना
मेट्रिकेचे परिक्षेक
अंदूं म्हजी धडगत ना

## गोरवां

त्या दिसा फांत्यापारा
झीळमीळट्या उजवाडांत
नदर आमची एक जाली
अटंग्या रानांत

त्याच खिणा गोरवां आमची
नकळटना धाय दिका
सैरभैर धांवत गेली
अटंग्या रानांत

काळखी पयस पयस करीत
कावळ्या किलकिलाटा सादार
सुर्यान पयली नदर मारली
अटंग्या रानांत

त्याच खिणा शिमेवेल्या गांवकारान
तुजी म्हजी गोरवां सगळीं
एकाच दाव्याक बांदून घाली
अटंग्या रानांत

## जैताचे तेंगशेर

ते पळयल्या?
पावली, दिमी मारीत ते
जैताचे तेंगशेर पावल्यात
तांच्या कश्टांक
शीम ना मेर
अखंड यत्नान
अथांग दर्या पेंवन
ते नदरे पैलाड पावल्यात
अमर्याद मळबाक
धेंक घालीत
आतां तेच मळबा येदे जाल्यात
न्हय...
आतां तेच मळब जाल्यात.

## भूंय म्हणटा

भूंय म्हणटा
पुतानो, म्हज्या आंगाक हुलोप पेटला

ना पुतानो,
तुमकां सांगुनूय आतां अर्थ ना
खूब पळयली वाट, खूब तिस्टली
आतां ही निर्शेवणी
दिशिल्लें
निदान तुमी तरी तुमच्या सळसळट्या रगताक स्मरून
घामाचें उदक करून
प्रबळ भुजां आनी दणकट मनगटाचे तांकीर
सर्ग खाला देंवयतले
सोड खबर!
तुमची कितें चूक?
पुतानो....
म्हणटना आतां जीब लेगीत आडखळटा
तुमी...
ना...
दुर्योधन परवडलो
ताणें तरी भावजेच्याच पातळाक हात घाल्लो
म्हज्या कर्मकट्ट्या नशिबान
म्हज्या न्हेसणाक तुमीच हात घालो
कापडाच्यो फाळयान फाळयो बुड्डिल्यो
आतां आनीक ही विटंबना सोंसू नजो

# पाज्जेचे पांवडे

पाज्जेचे पांवडे
चडटना
पावलाकडे
पळोवचे बदला
मळबांत कितें पाळयता?

पाज्जेचे पांवडे
चडटना
सवकासायेन
चडचे बदला
मळबाक कित्याक तोखेता?

पाज्जेचे पांवडे
चडटना
धेंप चुकून
पडलो जाल्यार
मळबाचो दुस्वास कित्याक करता?

# देवी

ते नदरे पैलाडचे
दोंगुल्ले तेमकेर
एक देवळी आसा
ते देवळेंत
एक देवी आसा
तिची स्थापना केल्या
व्हडा दबाज्यान

काय तेंप
पूजा आरती, नबत वाजली
रातीं कडेन पालखी काडली
मागीर नव नवलाय सोंपली
आतां ना पूजा ना आरती
दिवलेंत तेल ना वाती
भक्त मात तुजो भोंवता
सोदीत वाटे वयल्यो देवता.

# समस्त पुताक

नाका पुतांनो...
तुमकां आळस येता जाल्यार
कश्ट काडूं नाकात
बसल्या जाग्यार
पोट भरपाची वेवस्था
तुमच्या जाण्ट्यांनी
करून दवरल्या

म्हज्या आंगार
सवाशिणीचें कापड आसलें
जेवंक खावंकूय उणें नासलें
तरी घामाचें उदक करून
दीसरात कश्ट काडून
तांणी म्हज्या आंगार
तरेकतरा लुगटां चडयलीं
तरा तरा वस्तींनी
कूड म्हजी शृंगारली

म्हाका आतां कांयच उणे ना
तुमच्याच जाण्ट्यांनी शिणगारलेली
ही कूड घेवन
हांव ह्या अखंड विश्वात
सरळ मानेन जियेता

आनी तुमी...
पुतानो,
वळवळ्याची जीण जगतात?
ना पुतांनो,
म्हज्यान हें पळोवं नजो.

देखून पुतांनो,
म्हजे कुडीचेर मिरोवपी
हो पाचवोचार शालू
म्हज्या शिरंत्रांतल्यान व्हांवपी
हो अमृताचो झरो
हे अळंकार
हांकां सोबा ना

हे अळंकार काडात फापसून
कांय पुतांनी आदीच
बुड्डूंक सुरवात केल्या
तुमीय काडात
बेगीन काडात
वेळ नाका
नातर मेजकेच पूत
फापसून व्हरतले
आनी तुमचे खातीर आशिल्ले
हें तुमच्या जाण्ट्यांचें
निमणे धन लेगीत
सासणा खातीर सोंपतलें

आनी निमणे उरतली म्हजी उगडी बोडकी कूड
ती तरी कित्याक जाय?
तिचेय वांटे घालून
मेकळे जायात
म्हज्या मांसाचो
कुडक्यान कुडको चोखात
हाडां, नळयो चोखात
रगताचो निमणो थेंब लेगीत घोटात

# पावस मोगाक आशेला

ह्या पावसाचे रंग हजार
केन्ना येता दडकांनी
केन्ना घोग्यांनी
केन्ना झडटा वझ्यांनी
तर केन्ना दवा थेंब्यांनी

केन्ना येता सोयरो कसो
येता म्हणसर वता सो
तर केन्ना घरचोच सो
वतलो केन्ना होच हुस्को
पूण आयचो पावस वेगळोचसो

ह्या पावसाचो
रंग वेगळो
ढंग वेगळो

पळय मोगा,
आयज पावस सुकोच झडटा
आयचो पावस
तुज्या मोगाक आशेता

मोगा तुज्या मोगाधारेन
पावसाक म्हज्या
शेकानशेक भिजोवन उडय
पावसाक म्हज्या
मोगा उबेन सर्वंगी शेकय

## गीत

तिनसांजेच्या कातर वेळेर तुका वथरेता
तिनूय पारा, खोश्शे ल्हारां, खेळोवंक आशेता

फात्यांपारा आयलो कोण
म्हाका कळ्ळें ना
केंसात म्हज्या फुलां खोयली
हांवें देखली ना
परमळान तुज्या भिजूंक सपना सपनेता
तिनूय पारां खोश्शे ल्हारां, खेळोवंक आशेता

दनपरां पोरसांत
चिंचे पानां झडली ना
म्होंवाळ आंबे चोखले
तरी गोड लागले ना
आमुरपिंकी फळां पळय पिकूंक पळयता
तिनूय पारा, खोश्शे ल्हारां, खेळोवंक आशेता

तिनसांजेच्या कातर वेळेर
तुका वथरेता
दीस भर तुजेच खातीर
म्हाकाच विसरता
यो रे बेगीन धांवत धांवत, बेगीन यो आतां
तिनूय पारां, खोश्शे ल्हारां, खेळोवंक आशेता

## म्हाका गो तूं अशें जाय
(सौंदर्य)

म्हाका गो तूं अशें जाय
केंस फाटीर धोलूंक जाय
फाटीर धोलतल्या केंसा मर्दी
एकूच जायां पोड जाय

कान पाकळ्यो पातळ जाय
नाक गो धारेचेंच जाय
धारेच्याच नाकार तुज्या
अमुरपिके मुमर जाय

ओंठार मोनेळ फुलूंक जाय
पोले तांबडे गूंज जाय
तांबड्या गूंज पोल्यार मात
एकूच काळो तीळ जाय

पकदस्त गळो जाय
कोगळाचोच आवाज जाय
कोगळाच्या आवाजान तुज्या
म्हज्या काळजा ठेकों जाय

**म्हाका गो तूं अशें जाय**
**(वेव्हार)**

म्हाका गो तूं अशें जाय
केंस आसूं मोटवे तुजे
केंसांतल्या भांगात मात
एकूच भांगतिळो जाय

नाक आसूं चेपटें तुजें
कानूय आसूं हतया येदे
हतया येद्या कानांत मात
वज्राच्योच वेडी जाय

गळो आसूं लथय पथय
आवाजूय आसूं भसाडो
भसाड्या त्या आवाजान मात
कुळारच्या पोटल्यार धेक जाय

# उखलाप्यांक

भौमानेस्त उखलाप्यांनो
ओगीच अशी
शेजाऱ्या वस्तीर
कावळ्या नदर
दवरूं नाकात
श्राद्धा दिसा
पिंड उश्टावचो
मान जरी
दिलो कावळ्याक...
हेर दिसांनी
मान कावळ्याक
फकत सोयऱ्यांचे
निरोप कळोवंक
आमगेर कोण
येतलो जाल्यार
उडून वच
उडून वच

तेन्ना कावळ्यान
वचूंक जाय
वचना जाल्यार
फातराक बळी
पडूंक जाय

भौमानेस्त उखलाप्यांनो
कावळ्या गजाल
मतींत धरात
हातरूण पळोवन
पांय सोडात
ओगीच अशी
शेजाऱ्या वस्तीर
कावळ्या नदर
दवरूं नाकात

# वळख

आमचे जिणे मोल तांकां
केन्नायतरी कळटलें
हिणवणे तें उतर तांचे
पोकें पोल थारतलें

आमच्या उस्वासा चंवरफूल
केन्नाय तरी फुलतलें
देंठ तुटके फळ तांचें
तेन्नाच गळून पडटलें

आमच्या काळजांत उज्या केण
केन्नाय तरी पेट्टलें
उज्या केणा धगानूच तें
धगधगून सोंपतलें

आमचे आमी जेन्ना गा
आमचे मदींच फुलतलें
आमचे जिणे मोल तांकां
तेन्नाच गा कळटलें

# पुनर्जल्म

आरे आंब्या
ओगीच त्या
चंवरांच्या नाड्यार
फुरफुरू नाका
चंवरा फुलून
ताका तोरां
जावची आसात
तोरां काथेवन
ताचे आंबे
जावचे आसात
आनी
त्या आंब्याच्या
काथ्यांतल्यान
जल्माक येवपी
तें नवें झाड
तुजो पुनर्जल्म
तुका ह्याच
जल्मान देखचो आसा

# भास

नाल्लांची सोडणां काडची
इतल्या सोंपेपणान
भर बाजारांत
जेन्ना ताळो सरांटून किळाचपी
कोंब्याची कात सोलता
तेन्ना कोण तरी
म्हजे कुडीची कात सोलता काय?
म्हाका भासवता

## न्याय

आयच्या राज्यांत
कोणेय कोणाची
गची आंवुळची
जाची ताची कापाझदाद
नीत गेली चुलीत
आनी कायदे घालात रान्नीत
जार्चे बळ चड
ताच्याच दाल्यांत
न्यायार्चे फळ

## पावणी

गोंय आमी पावणेर काडलां
येयात तुमी
घालात लांस
पयली फावट
दुसरी फावट
तिसरी फावट
सा रे सा
खणी पोखरून मीन काडलां
भायल्या देशांत विकूंक धाडलां
कोणूय येयात पोखरून व्हरात
गोंयकारांक फोंड दवरात
येयात तुमी
घालात लांस
पयली फावट
दुसरी फावट
तिसरी फावट
सा रे सा

दर्यादिगेर नागडे नाचात
आवयभयणी अब्रू लुटात
पर्यटना नांवाखाला
गोंयचे नांव वाऱ्यार घालात
येयात तुमी
घालात लांस
पयली फावट
दुसरी फावट
तिसरी फावट
सा रे सा

विकता आमी शेतांभाटां
शारांनी फ्लॅटां प्लोटां
गांव तुमचे तुमची शारां
कोमुनिदाद तुमीच वाटा
येयात तुमी घालात लांस
पयली फावट
दुसरी फावट
तिसरी फावट
सा रे सा

सबसिडी दिता उद्वेग घाला
कामगार मात भायलो हाडा
गोंयचो बाजार तुमकां दिला
गोंयकार आमचो लजेक मेला
येयात तुमी
घालात लांस
पयली फावट
दुसरी फावट
तिसरी फावट
सा रे सा

## बडवाचार

आरे आंब्या
ओगीच बडवाचार
मारूं नाका
फुंटीक जरी
लागून घोटां
तुका लागले
म्होंवाळ आंबे
अडेची खांदी
लावचे आर्दी
तूंय आसलो फूंट
हें केन्ना लेगीत
विसरूं नाका

## दुदीरमणा

बिटबिटीत दोळे तुजे
बलबलीत आंग गो
थुलथुलीत देह तुजो
थपथपीत चाल गो

मुदयाळेच केंस तुजे
गळ्या मेरेन पावता गो
फाटीर धोलपी विकती विणी
मातशी ओडल्यार हातान गो

वाटकुळेंच तोंड तुजें
फुटबॉलाचो बॉल गो
पुलाचो खांब कसो
एक एक पाय गो

दुदीरमणा भेंड तुजें
हेवटेन तेवटेन धोलता गो
एकटेंच तूं बसलें जाल्यार
रिक्षा भरून ओतता गो

तुज्या देहाचें वर्णन करूंक
उतरां उणी पडटा गो
तुज्या देहाची लज राखूंक
एक साडी उणीच गो

## अपुरबाये धूव

उर्वि म्हर्जे बाय गो
दुदावेली साय गो
सानुली धूव तूं म्हजी
माँच्या जिवाक जाय गो

पापा म्हूण उलो तुजो
कातकुतल्यो करता गो
किटकिटून हांसतना
पापाय भुरगो जाता गो

डुलू डुलू चलप तुजें
कमरां घागऱ्यो वाजता गो
कानांत वारें भरता तशें
वासरावरी उडटा गो

नाच नाच नाच गो
अपुरबाये बाय गो
गीत कानार पडचें आसा
कमर धोंपर हालता गो

कुटुऱ्यांचो खेळ तुजो
खंय सोदू खंय नाका
कमरा घांट वाजता तसो
माँचो जीव्र सू जाता

खोंट उखलून चलप तुजें
एका जाग्यार ना थार
वयर सकयल उडक्यो तुज्यो
खाटी वयल्यान पोटली बांकार

रुप तुजें देखणे तशें
म्होंवाळ तुजें काळीज गो
नसाय दुस्वास ना खबर
मन तुजें कवळें गो

गुबगुबीत पोले तुजे
फुगतात पूण राग ना
ओंठान उतरां लुडबीं तरी
बडबड कशीच थांबना

माम माम जेवप
म्हणल्यार व्हडलो सुवाळो
माऊ कुतू काऊक
लेगीत वता आपोवणें

माम माम आनी बोमू खातीर
दीसभर माँ जाय
रातीं मात न्हिदपा खातीर
पापाचीच मांडी जाय

कितलीं वर्सां तिश्टतालो
अपुरबाये धुवे तुका
तूं इतलें पुरो म्हाका
आनी कसलें सूख नाका

## मोगा गीत

तेल नासतना तूप नासतना पेटत उरची वात
दिसता सरचीच न्हय ही रात

तुज्या ओंठाचेर फुलचो हांसो
रतन आबोल्या घोंस कसो
मुमुरख्यांनी तूं हांसतना गो
पारदसान ह्या शिवोर शिवोरचो

म्होंवाळ पारदसान मधुर वास हो, रिगचो आमच्या मनांत
दिसता सरचीच न्हय ही रात

रात अशी ही दाटत वच्ची
नखेत्रांय हीं मदीं लिकलिकचीं
भर मध्यान्हेर काळ्या कुपांतल्यान
चंद्रीमान हांगा नदर थिरावची

रसरशीत आमकां न्हाणोवची, मोगाच्या चान्यांत
दिसता सरचीच न्हय ही रात

# आगे आगे केळी बाये

आगे आगे
केळी बाये
ओगीच अशी
मुरगटू नाका
बोणी पुते
धरली म्हणून
भुल्लसून
वचूं नाका
राती भितर
घडये तुजी
बोणीच पुते
चोरये वचत
बऱ्या नशिबान
तिगली तरी
सुयेरोग
जावचो ना म्हण
कोण पुते
भरवंसत

## तिश्टत उबो

धवे फोलीर धवो तिबो
काळे फोलीर काळो तिबो
हांवूय तसोच तुजे खातीर
कितली वर्सां तिश्टत उबो

# तूं म्हाका जाय

तूं म्हाका जाय
आनी हांव तुका जाय
आमी दोगांय मेळून
कोणा कोणा जाय?

# कविता

सटर फटर
मनशा भितर
एक आसता गूण
थतर वितर
भायर भितर
जायना तांचे मन

## तुजी नदर

तुजी नदर म्हजेर, जाणा
म्हजीय नदर तुजेर गो
तुजी म्हजी नदर अजून
एक कशी जायना गो?

## तूं गो म्हजें

तूं गो म्हजें
हांव गो तुजो
रंध्रारंध्रात
पेटला उजो

# इश्टागतीक

इश्टागतीक लागना पिराय
ना जाती धर्माची वंय
आसची काळजाची खोलाय
कसली आस आसची न्हय

## याद

तुका निरोप दितना
दोळे जड जातात
पूण तुका आडावनूय
आतां अर्थ ना
मन खंती जाता
फाटल्यो यादी
गळ्या कडेन येतात
पूण ताका
आतां उपाय ना
हांव जिवीतभर
ह्या यादींच्या दर्यांत
बुचकळत उरतलो
पूण तुवें तांची
पोटली बांदून
केन्नाच खांदार मारल्या

## हांवें तुका म्हजें म्हळें

तुजे तें
फाटीर धोलपी
केंस पळोवन
हांवें तुका
म्हजें म्हळें
तुवें बॉबकट केलो
आनी हांवें हाडिल्लें
बावून गेलें मोगरे कळे

तुजें तें
रगत तांबडें
ओंठ पळोवन
हांवें तुका
म्हजें म्हळें
लिपस्टिक ती लावन लावन
रगत तांबडे ओंठूच तुजे
पडल्या न्हय गो आतां काळे

## विरह गीत

सांज वेळेर दर्या देगेर ल्हारां ल्हारेता
सुरूच्या झाडा कडेन यादी उफेता

दीस धारे वता तसो
तुवूय म्हाका सांडून गेला
तुजे विणे जिणें म्हजें
काळखा कूप दाटलां

वाऱ्यावरी हांसपी खेळपी ओंठ मोने जाता
सुरूच्या झाडा कडेन यादी उफेता

सुकणी सवणी किलकिलायत
परतता घरा
घरदारा उपेग कितें
तुजे बगर मनमोरा

तुजे यादीन मन म्हजें हांबे हांबेता
सुरूच्या झाडा कडेन यादी उफेता

## सोबीत फुलां

रंगीबेरंगी ही सोबीत फुलां
कवळ्या मनाची
जीव जाता आकूळ पिकूळ
सोबाय देखून तांची

नदरे मुखार परत परत
हुंबरो हुपतना
कवाड लेगीत धांपल्यार दोळ्यांचे
लक्ष लागना

पाचवीचार तांबडी निळी
हळडुव्या कॉराची
नखेत्रावरी लिलिकता ही
फुलां धरतरेची

चित्तकीर मन म्हणटा
काकुळट बाबड्यांची
सुलूस लागूंक ना तांकां अजून
पापी नदरेची

## हांस मोगा हांस

ही कविता तुजे खातीर
तुकाच लागून
तुजेरूच
देखून तरी राग सोड
हांस मोगा हांस

मंद म्होवाळ हांसो तुजो
सांग मोगा विसरू कसो?
ह्या हांश्यानूच तर
हांव जाला पिसो

मोगा, तुज्या हांशान
म्हजे जिणेची तार घुस्पल्या
मोगा, तुज्या हांशान
म्हज्या पावलांची लय इबाडल्या

ह्या तुज्या हांशान मोगा
म्हज्या आंगाची ल्हव शिरशिरल्या
मोगा, ल्हंव शिरशिरल्या
देखून तरी हांस मोगा हांस

## ल्हार

ते पळे येता वेळे
ल्हार चकचयाळ निळें
ल्हार येता
मोगा भेटे
उत्फरके उमेदीचे
वारे व्हांवती
सगळे वाटे
ल्हार वेळे
भेटता तशें
रंग उडती
रंगयाळे
युगा युगाचे भेटे परी
वेळे भरून येती दोळे
ल्हार परतें
वता तशें
रख रख
मनाकडेन
खिणाचे ते मोगा पिशें
मन कोरांतिता कशें

## सोबीत सुंदर गोंय म्हजें

दर्या येदें काळीज तुजें
दोंगरा येदें हड्डें तुजें...
सैमरंगी शालू न्हेसून
रुप उठून दिसता कशें

सोबीत सुंदर गोंय म्हजें!

मुखार तुज्या हांसो तरी
काळजाक तुज्या घायेच घाये
पूत तुजे तुकाच विकून
गब्बर जावंक सोदता माये

सोबीत सुंदर गोंय म्हजे!

## जीण

पावस! सैम! जीण
पावस...
घडयता सैम
पावस पडटा
वर्साच्या नेमान
दडक येता
वता
पूण, म्हर्जे मन
घुस्पता
सोडटा विळखे सोडोवंक
ना...
सुटना...
अशेंच चल्लां
दर एकाचे जिणेंत

## नवी नवलाय

सूर्य तोच, उब नवी
चंद्र तोच, थंडाय नवी
सृश्ट तीच, काया नवी
धर्तरी तीच, नदर नवी
रात सरली, सकाळ नवी
दीस नवो उमेद नवी

## सपन

याद! उगडास! सपन!
वेंतभर म्हज्या पोटा खातीर
तुज्या माथ्यार वजें दिवचो ना
आशेल्ले म्हजे दोन दोळे
मूर्त तुजी सोदचें ना
निर्शेल्ली दोन दुकां
तुजे खातीर गळची ना
वतां हांव इतलो पयस
खुणूय म्हजी उरची ना
चंवरलेलो संवसार तुजो
नदरेन म्हज्या गळचो ना

## आमी माकड

आमी माकड
या झाडावेल्यान
त्या झाडार
उडकी मारपाक
आमी फिशाल

आमची मोख फळां
झाड हें फकत साधन
ज्या झाडांक फळांच फळां
त्या झाडार आमची नदर

पुराय झाड बुड्डून जातकच
आमी झाडां खांदयेर धोलतले
आमच्याच पेजान झाड मोडटलें
तेन्ना दुसरें झाड वेंगायतले

आमकां कोण हांसतले
घडये दांत दाखयतले
कोण फातरूय शेंवटीतले
पूण आमकां ताची परवा ना

दांत दाखोवंक आमीय जाणा
फातर परतून शेवटूंक जाणा
कोणेय कितेंय म्हळें तरी
आमचेच भोकें तांबडें
हें आमी बेस बरें जाणा

# आई

भरभरून मेळ्ळें जरी, संवसारांतलें सूख
वसवसला हांव पळोवंक, आई तुजें सूख

अपुरबाय करची कशी, तुवेंच शिकयली
मस्तेपणाक ख्यास्त दिवन, देख दाखयली
पूत जरी जालो तुजो, भोगशिली ना चूक
वसवसला हांव पळोवंक, आई तुजें मूख

उणीदिणी उतरां, तुवें कोणाक दिलीना
दारांतलो सोयरो, रित्या हाती गेलोना
तानभुके विसर घाली, सावळी तुजी, तूं गे सखू
वसवसला हांव पळोवंक, आई तुजें मूख

थंडशितळ व्हांवती वारें, म्हाका नासलो भंय
वेंगेन मोगाउब दीत , तूं गे म्हणटाली आल्लय
आई, म्हाका सोडून गेली, काळजा म्हज्या दूख
वसवसला हांव पळोवंक, आई तुजें मूख

भरभरून मेळ्ळें जरी, संवसारांतलें सूख
वसवसला हांव पळोवंक, आई तुजें मूख

# झाडावयले शेड्डे

हतयाचे सोणयेर बसून
कोण तरी येतलो
आनी तुका हात दितलो
बुरश्या बांबरात
कमळ फुलयतलो
अशी आस्त लावन तूं
घडयाळा कडेन नदर लावन बसला
तर सभाग्या,
तूं तुकाच
तीन पानां करता
अशें म्हणचें पडटलें

मातयेन आसल्यार तांबडो
आनी झाडार आसल्यार पांचवो
शेड्ड्याक सगळे रंग सारके
मार खोंट, काड उदक
हांगा कोण न्हय आमचे
आनी कोण न्हय परके

## शेणांतले किडे

शेणांतले किडे
शेणांतूच
हुळहुळटात
शेणा थापो
सुकता तसो
भितल्ले भितर
वळवळटात
जिवीत सारकें
देखचें आदीं
थाप्या भितर
जीव सोडटात
थोडे किडे सभागी
थाप्यासकट
गायरींत पडटात

शेणा मुता खांतोणाची
गायर एक अथांग दर्या
जाची जितली शक्त
ताणें हांगा चरपाचे
जाची जितली खाज
ताणें हुस्क्यामेकळे लोळपाचे

थाप्या भितर
किडेच राजा
किडेच प्रजा
हांगा मात
गायरी भितर
तोंड उक्तें
घालून बसला
रोटो राजा

## धुवेक दिसता

धुवेक दिसता पापान
सदांच करची सुटी
वेळेर वचून दोगांयनी
करची मजा मोठी

धुवेक दिसता पापान
काडची सुंदर चित्रां
पाडे म्हणचे धडाधड
आठ णवे सतरा

धुवेक दिसता पापान
सुंदर काडचें अक्षर
पापावरी बरयतलें
खूश जातलो मास्तर

धुवेक दिसता पापा
क्रिकेट खेळूंक हुशार
सगळ्या गड्यां मुखार
पापा ताचो तेंडूलकार

धुवेक दिसता पापा
सिनेमांतलो हिरो
पापा मुखार सगळे स्टार
दिसता सामके झिरो

धुवेक दिसता पापा
आसा मोठो पैलवान
जुडो कराटे फायटिंगेंत
करतलो आपलें रक्षण

धुवेक दिसता पापा
केन्ना पिना सोरो
ताकाच लागून सगळ्यां परस
पापाच ताचो बरो

धुवेक दिसता पापा
केन्ना फट उलयना
पापाक लज जायत अशें
आपणें वागूंक फावना

धुवेक दिसता पापा
सामको नितिमान
आपणेंय जावंचे पापावरी
राखचो ताचो मान

## निबर

दोतोरान सांगलें म्हाका
काळजाक तुज्या बुराक आसा
भलायकेची जतनाय घे
तुका खर गरज आसा

हांवें म्हळें, दोतोरमाम
काळीज म्हजें घट्ट आसा
केदेंय व्हडलें अरिश्ट आयल्यार
हांव सामको निबर आसा

तूं सारको समजूंक ना
रगत तुजें दाट जाता
शिरंतरांनी घोळटना
मर्दींमर्दीं आडखळटा

रगतूच न्हय दोतोर
कातूय म्हजी दाट जाल्या
सरणावेली पोळी लेगीत
हांवें दोतोर भाजून खाल्या

रगत कशें घोळटा ताची
म्हाका एक टेस्ट जाय
रिपोर्ट सारको येवचे पासत
मन तुजें घट्ट जाय

रगतां व्हांवयल्या ताचे
कोंत आनी हिशोब ना
मन नांवाची वस्तूच ना
घट करपाचो प्रस्न येना

फुडाराक आतां तुका
पथ्य करचें पडटलें
काळजाक कितें माल तें
खावंचें सोडचें पडटलें

खाणजेवण सगळें सोडीत
पयसो खावचो सोडचो ना
भांगर, जमीन इस्टेट सोडून
आनीक कांयच खावचो ना

हड्ड्यार तुज्या पेज येत
इतलें वजन उखलूं नाका
प्रेसांव वाडचं- न्हय देखून
हुस्को कसलो करूं नाका

गिरेस्तापरस गिरेस्त जावंचो
होच एक हुस्को म्हाका
तोच पेज हड्ड्याचेर
ताची ना खंत म्हाका

काळीज तुजें, बुराक तुजो
भायल्यान तों दिसचो ना
जतनाय मात घेना जाल्यार
बुराक वाडचो रावचो ना

हांव म्हळें, दोतोरमाम
काळीज म्हजें घट्ट आसा
केंदेंय व्हडलें अरिश्ठ आयल्यार
हांव सामको निबर आसा...

## हें जैत कोणाचें

दिणाऱ्यांनी दिलें
आमी खालें
खाणाऱ्यांनी मागलें
आमी दिलें
हें जैत कोणाचें?

आमीच ते जांणी
लुटलें आनी लाटलें
खालें आनी खावयलें
केन्ना व्हांवतले न्हंयेंत
हात धुवन घेतले
हें जैत आमचें!
कोणें न्हय गा समजूचें
हें जैत केवळ शक्तीचें
युक्तीचें वा ताकतीचें
हें जैत फकत
एके व्यक्तीचें

हारश्यावर जिवीत
ते व्यक्तीचें
तातूंत आमी आमचें
रूप पळोवचें
मागीरूच थारावचें
हें जैत कोणाचें
आमचें?
काय ते निष्कलंक व्यक्तीचें




## सोबीत गांव

शारांतल्या भावा म्हज्या
शारांत रावून सांगता आमकां
कितलो सोबीत गांव पळय
इतलो सोबीत गांव जाल्यार
चार दीस हांगा रावून पळय

गांवांत म्हज्या माड आसा
माडाचे नाल्ल आसा
माडयेचेर बेडे आसा
पणसाचेर पणस आसा
आमुल्लेक घोटां आसा
काण्णां आसा, चुन्नां आसा
खाणारीं तोंडां आसा
झाडार चडपी, माडार चडपी
पाडेली खंय आसा?

शारांतल्या भावा म्हज्या
शारांत रावून सांगता आमकां
कितलो सोबीत गांव पळय
इतलो सोबीत गांव जाल्यार
चार दीस हांगा रावून पळय

मानशेंत आमच्या सुंगटां आसात
न्हंयेंत चणाक, पालू आसा
पोलवे आसा शेवटे आसात
रुचीक बरे खुबे आसात
गरवणी आसा,
कांटयाळी रांपण आसा
होडीं आसा, पनेळ आसा, तार आसा
तारयामामा खंय आसा?



उदय म्हांबऱ्याची कविता कथात्मक बसका घेवन येता. 'तो' ची काणी सांगतना समाजांत जें नश्टें आनी पाडें आसा, ताचेर बोट दवरतना, खर चडो सूर लायता आनी आमचें लक्ष थंय वेधपाचो यत्न करता. मनश्याचें सुवार्थीपण पळोवन ताचें रगत उसळटा आनी *'नीत गेली चूलींत आनी कायदे घालात रान्नींत, जाचें बळ चड ताच्या दाल्यांत न्यायाचें फळ'* हे वळींतल्यान व्यक्त जाल्लो किंवाटो अस्वस्थ करता.

उदयाचे कवितेक सामाजीक जाणविकायेचे अस्तर आसा. रासवळ मळार निस्वार्थी वृत्तीन वावुरतल्याक समाज वळखताच अशें ना. पूण ताची खंत तांकां नासता. केन्ना ना केन्ना तांची 'वळख' समाजाक जावंक पावतली असो तांचो भावार्थ आसता. 'आमचे आमी जेन्ना गा आमचे मर्दींच फुलतले आमचे जिणे मोल तांकां तेन्नाच गा कळटलें'

सादी सोंपी भास आनी संवकळीच्यो प्रतिमा आनी प्रतिकां हाका लागून त्यो कविता वाचतना मनाक भावता. खंत एकेच गजालीची भोगता. ह्या संग्रहाक येवपाक खूप कळाव जाला. पूण आमी म्हणटात न्हय 'बॅटर लेट दॅन नॅवर'

**माधव बोरकार**